# जय पुण्यभू, जय भारता !

( देस–गीतां )

–मनोहर सरदेसाय

१९६५

उजो प्रकाशन

पणज–गोंय

# जय पुण्यभू, जय भारता !

( देस–गीतां )

★ मनोहर सरदेसाय ★

उजो प्रकाशन

# चलात परते

रगत चाटलेले पांय तुमगेलें
भुंयेर ना आमचे थारचे
आयले वाटेन चलात परते
गुलाम ना आमी जावचे.

पोरणे भूंयच्या तरण्या रगतांत
जीण नवी सळसळटा
वेगळेपणाचें हीण आमगेलें
होमकुंड जावन पेट्टा
उज्यांत नश्टे बेत तुमगेले
जळ‌ळयाबगर ना रावचे.

भेस आमगेले हजार आसून
एक आमचो हावेस
मत्तां आमचीं वेगळीं आसून
एक आमगेलो देस.

शंबर भासो जरी उलयले
एक उतर आमचें:
"आयले वाटेन चलात परते
गुलाम ना आमी जावचे."

पातकी तुमचें एक एक पावल
खिळोच काळजांत रोंबता
दोंगर दर्या एक जावन आज
तिडकून तुमकां सांगता:

"स्वतंत्रतेचें निशाण आमचें
तुमतेमुखार ना नमचें
"आयले वाटेन चलात परते
गुलाम ना आमी जावचे."

# आयज हिमालय पेट्टा

आयज आमगेल्या धव्या दोंगरानी
व्हांवतात रगता पाट
निळ्या-नितळ ह्या आमच्या मळबार
वांकडो-तांबडो हात.

झुजा-धोलार आयज बडी ताणशेता
परतून तरसाद नाचता
परतून तुबकाक फुटला आवाज
आयज हिमालय पेट्टा.

स्वतंत्रता ही परतून मागता
आपलो सदींचो ग्रास
पडचे आदीं तोडचे आसात
गळ्या भोंवतणीं पास.

# आमी मरचे नात

जिविताच्या खुर्साचेर
मर्णाकूच मारतले
आमकां जरी गाडले भुंयेंत
थडें फोडून येतले भायर
पातक्यांच्या नश्टेपणाक
आमची आसा एकूच जापः—
आमी मरचे नात.

लांबूच लांब आमची काणी
कितलीं दुकां, कितलें रगत
पाना कणकणीं
तरीय अजून राखल्या आमी
नितळ, निवळ आमचे हात
आमी मरचे नात.

वर्सां जालीं कितलीं हजार
हड्ड्याभितर हुंडके दामून
काडले त्रास
धल्लो ध्यास उजवाडाचो
काळखी जरी आसली रात
आमी मरचे नात.

# जवान आमी जवाहराचे

जवान आमी जवाहराचे
वीर झुजारी भारत भूंयचे
ऊंच इगर्जी, सोबीत देवळां
देव, देवारे आमचे
धोलपी झाडां, व्हांवपी वझरे
निळे दोंगर हे आमचे.

स्वतंत्रतेचो सपूत घेतला
कोणाचमुखार ना बागचे
जे धरतीचेर हांसले, खेळले
तिकाच रगत हें आमचें

ज्या हातांनी खणची माती
रोंवचे रोंपे कावथे
दुस्मानांचें हड्डें फोडूंक
ना गा फाटीं सरचे.

फुलावरी जरी कंवळे आसले
काळीज पाशाणाचें
जवान आमी जवाहराचे
वीर झुजारी स्वतंत्रतेचे

# तुजे मुखार

तुजे मुखार दुस्माना
नाच दिमी मोडचों ना
वठार दोळे, पेटय नाळी
हावेस म्हजो मरचो ना.

हांगा म्हजीं शेतां, भाटां
हांगा म्हजीं गोरवां, जोतां
हांगाच म्हजी वार, मठी
अन्न, रांदन, आयदनां.

लागत तशे बांद पांय
तोंडाक केदोय गुडो लाय
हाणशि जाल्यार हाण उबो
तरीय दिमी मोडचों ना.

तुजे मुखार सुल्ताना
हांव रे पांयां पडचों ना
भूंय म्हजी, जीण म्हजी
तिका वाटावंक भिवंचों ना.

हुंवारि म्हंयेक आडायत कोण ?
पेट्टचा रानाक पालयत कोण ?
रकली तांबशी, फांकलो दीस
आमी रे आतां न्हिदचे ना.

# स्वतंत्रताय !

लोखणाच्यो, भांगराच्यो
सरपळचो ह्यो तोडयाच्यो
पातशाच्या आसनाचेर
मार उठ, उबार पांय.
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !

सप्नावरी म्हूर्त तिजी
धरूंक गेल्यार नाच जावपी
कुपांफाटल्यान लिपली तरी
आमकां तिजीं किणीं जाय
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !

तिचेबगर जीण सुकता
सगळें आसून तळमळटा
तिचेबगर काळीज जाता
खणींतली जळटी जाय
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !

# तूं आमची

अप्रुपाचे तांबडे भुंये
आमी तुजे, तूं आमची
जाण्टेल्यांच्या उगडासाची
पाळण्यांतल्या फुडाराची
तूं कालची, तूं आयची
तूं आमची.

कणसांच्या भांगराची
सांवरेच्या चंवराची
खोसयेच्या हुंवराची
तूं आमची.
पावसाच्या कवनांची
सूर्याच्या पोवनांची
चांदन्यांतल्या सपनांची
तूं आमची.

मोगरे–कळ्यांत वास जसो
हड्डयाभितर स्वास जसो
इंगळ्यापोटांत जाळ जसो
तशे आमी तुजे आनी
तूं आमची.

पोटाखातीर सोडली तुका
व्हडविकेचीं जोडलीं थिकां
तरी मनांत लायली सदांच
पण्टी तुजे तोखणायेची
तूं आमची.

रगतांतली शक्त तूं
काळजांतली म्हूर्त तूं
परजळीत स्फूर्त तूं
तरण्या म्हज्या उतरांची
तूं आमची.

